

# बेकार भोंवडेकार

पुंडलीक नायक

# बेकार भोंवडेकार

(किशोर नवलिका)

पुंडलीक नारायण नायक



अपुरबाय प्रकाशन

बेकार भोवडेकार
किशोर नवलिका
पुंडलीक नारायण नायक

Bekar Bhoundekar
*Novelette for teenagers*
by Pundalik Narayan Naik

प्रकाशन क्र. 73



पयली आवृत्ती
2005

छापणावळ
हिरू नारायण नायक
रूतु ऑफसेट
वळवय, फोंडें, गोंय.

अक्षर जुळणी
बिम्ब प्रकाशन

मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां
गिरीश नंदा बोरकार

प्रकाशक
हेमा नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें, गोंय
403401

मोल : 45/-

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या बालसाहित्य प्रकाशन अर्थीक पालव येवजणेखाला छापलां.

बेकार भौंवडी बंद करून
आपल्या पांयांर उबे रावपी
तरनाट्यांक...

**कोंब्या**च्या सादार अनीलाक जाग आयली. पूण तो उठलोना. इतले बेगीन उठून करतलो कितें? शाळा ना, कॉलेज ना. कसली नोकरी ना, कसलो धंदो ना. तो तसोच हांथुणार लोळत रावलो.

अनीलाची आवय उठिल्ली. ती रांदनीकडेन बोवाळटाली. बापूय दादी तर रातभर जागोच आसलो म्हळ्यार जाता. तो अदींमदीं खोंकीत आसलो.

अनील एके कुशीवयल्यान दुसरे कुशीर वळ्ळो. आयज करप कितें? ताणें मनांतल्या मनांत येवजिलें आनी तो सडसडीत हांथुणावयलो उठलो. एक खोंट मारून ताणें शेंदरी कवळ्ळी. ती वणटीकडेन भिरकाटायली. तो भायर आयलो. भायर पडवेर सोप्याचेर दादी उकणयां बशिल्लो. अनील तसोच भायर गेलो. व्हाळाचेर वचून आयलो. तोंड धुलें. बेगीबेगीन कपडे सोदपाक लागलो. लांब पेंट ताणें कमराचेर चडयली. आवयक दुबाव आयलो.

"बाबा भायर सरता रे?" तिणें विचारलें.

"भायर सरतां म्हूण आनीक वेगळें सांगपाक जाय?" अनीलान बेवर्पायेन तिका परतें विचारलें.

"तशें जाल्यार पेज जेवन वयता मरे?" आवयक ताचे भुकेचो हुस्को जालो.

"पेज? शिस्स! च्या कर."

"पेज बरी मरे जिवाक."

"जेयात तुमीच ती." ताणें तिडकून म्हणलें. ताची नदर पेंटीचेर गेली. आवयक लेखून ताणें म्हणलें, "हे पेंटीक हो चिखोल खंयचो? पळय. ज्युस्त धोपराकडेन हें खत."

"कोण वयता तुजे पेंटीकडेन? तूंच खंयूय तेंकला आसतलो चिखलाक."

"हय. हांव वयतां चिखलांत लोळपाक!" अनील वितरागलो. भायर सोप्यार विडी ओडीत बशिल्ल्या दादीच्या कानार अनीलाचीं उतरां पडलीं. विडयेचो धुंवर हवेंत सोडीत तो सुस्कारलो.

"हय पुता. आमी लोळटा तीं पुरो ह्या शेताच्या चिखलांत. तूं आनी लोळूं नाका. शिर्विसूच कर तूं. तूं जोड आनी तुज्या जिवाक मोड. आमकां पावलें."

"हो पळय, हो खोऱ्याचो दांडो लागलो हे पेंटीक. खोरें कोणें दवरलेलें हांगा?"



“आनीक कोण दवरतलो? तुज्या दादीन दवरलेलें.” आवयन सांगलें.

“दादी! हं. शीस्त म्हण ना. केन्ना सुदारतले म्हूण देवाक खबर!” अनीलान बापायचेर राग काडलो.

तेसरशीं दादीच्यानूय उलयलेबगर रावूं नजो जालें. ताणें म्हणलें, “आरे शेताचें खोरें कडाशेक लायना जाल्यार आनीक खंय दवरपाचें?”

“मागीर हे कपडे खंय दवरपाचे तर?”

अनीलाक पाडपाक हीच संद बरी अशें चिंतून आवयन म्हणलें, “तेचेखातीर एक बरी सुवात जाय. असली खोंप उपकारना. फकत बरीं बरीं पेंटां शिंवलीं म्हण जालीं तर....”

अनीलाक आवयचो रोख समजलो. ही आतां आपणाली इज्जत काडटली. तो विशय ताणें थंयच बंद केलो.

“बरें, बरें समज़लें. आनीक मुखार सांगपाची गरज ना.” तो बूट घालपाक लागलो. आवय च्याचो पेलो घेवन मुखार आयली.

“घे, पयलीं च्या घे. त्यो बुटाच्यो सुतल्यो मागीर बांद.”

“बुटांच्यो सुतल्यो? लेसी त्यो.” आवयचीं फकाणां करीत तो हांसलो.

“हांव शिकुना तुजेसारकी. आयज तरी शिर्विशेचें जातलें?”

“तें कितें पिकलेलें शेत? वचपाचें आनी लुवोन हाडपाचें?” अनीलान आवयचेर धेंगसो घातलो.

दादीच्यान परत सोंसू नजो जालें. ताणें म्हणलें, “शेतां कितें वोतांचेर आनी दंवाचेर आपशींच पिकता म्हूण समजलो तूं? खूब कश्ट काडचे पडटात. आमी दोगांयनी जातासर केलें. आतां म्हज्याय जिवाच्यान नजो. तुजी आवयूय लागीं येयल्या. आतां

सगळो भरिभार तुजेर.'' उलयतां उलयतां दादी खोंकपाक लागलो. हो विशय आतां असोच वाडटलो अशें अनीलाक दिसलें. ताणें भायर सरपाची ताकतीक केली.

''म्हजी बस येवपाची जाली.'' एक पांय भायर एक पांय भितर दवरीत ताणें म्हणलें.

''बरो करून.'' आवयन म्हणलें.

''असल्या उतरांनी कामां जायना. पयशे जाय.''

आवय भितर गेली. रांदनीकुशीच्या रित्या बुडकुल्यांत हात घातलो. धा रूपयांची नोट आसली. अनीलाखातीरूच तिणें ती सांबाळून दवरलेली. बेगीबेगीन हाडून पुताच्या हातार दवरली.

''धा रूपया? भायर सरताना कसलीं भिकाड्डेपणां गे?''

''पुता, सकाळच्या पारा कायचे काय उलोवं नाका.'' दादीन ताका समजायलो.

''तुज्यान दिवंक जाता?'' अनीलान बापायक विचारलें.

''हांव खंयच्यान दितलों?''

''दिवपाक जायना मरे? मागीर खोंकीत राव.''

अनीलाचीं उतरां बापायच्या काळजाक लागलीं. ताका वायट दिसलें. तो आपले भितरूच उलयलो. ''खोंकींतूच रावतां हांव. पूत सारको आशिल्लो जाल्यार घडये खोंकली बंद करतलो आसलो.''

इतल्यान आवय परत भितर वचून भायर आयली.

''घे. आनीक पांच रूपया घे. सगळें पुसून दिलां. काम करून यो.''

पयसुल्ल्यान बसिचो होर्न आयकूंक आयलो.

''बस पावली. हांव चल्लों.''

''सारकी च्याव तरी पिये मरे.''

"पिये तूंच. तोंडांत घेवपाचे लायकिची ना ती."

अनीलान तोंडांत घेतिल्लो च्यावेचो घोंट भायर वडयलो. च्यावेंत दूद नासलें आमी साखरूय उणी आसली. आवयन दादीमुखार सांडिल्लो पेलो दवरलो.

"चल. पुताचें सांडिल्लें तरी पिवंया." खंती मनान दादीन च्यावेचो पेलो ओंठाक लायलो.

खोर्पाभायर येनाफुडें अनीलान बोटां तोंडांत घालून एक व्हडली शिळोणी घातली. शिळोणी घालपाची ही ताची खास पद्धत आसली. वाटेवयलो आडो हुपून तो मार्गार पावलो. शिळोणेचो आवाज आयकून ड्रायवरान बस थारायिल्ली. तो फाटल्या दारांतल्यान चडलो. शिळोणी घालून बस थारावपी हो वीर कोण? असो प्रस्न बशीतल्या प्रवाशांक पडलो. ताणीं फाटीं वळून पळयलें. पळय जाल्यार अनील. बसितले भौतेक लोक ताका वळखताले. कारण ते त्याच गांवांतले आनी थंयच्याच वाठारांतले आसले. बस धांवपाक लागली. तागेल्या इश्टान विनयान ताका हटकिलो.

"आरे, आमचो अनील मरे. तरी म्हणटां येदी व्हडली शिळोणी मारून बस कोणें थारायली!"

"आरे, बसी आमकां थारच्यो ना जाल्यार आनीक कोणाक थारतल्यो? आमचेर बसी पोसता मरे. आमी तांगेलीं सदचीं गिरायकां."

"आनी आमी न्हय?" विनयान विचारलें.

"तुमी कॉलेज स्टूडंट! तुमी हाफ तिकेट मरे. तुमकां पळयतकच बसवाल्यांच्या कपलाक आठयो पडटात." अनील हांसलो.

"खरें आं." विनयान मान हालयली.

"तुज्या हातांतली पुस्तकां सांबाळ. ह्या हॅंडलाक धर. नाजाल्यार झिडपतलो." अनीलान सांगलें.

मागीर दोगूय उलोवपाक लागले.

"अनील, तूं चुकलो. मेट्रीकेक फेल जातकूच मागीर यत्नूच केले ना. तो शांताराम जाणां?"

"वांकडेलो?"

"हय तोच. तुज्या वांगडाच फेल जाल्लो. ऑक्टोबराचे परीक्षेक बसलो आनी नीट जालो."

"नीट जालो?"

"आरे, पास जालो."

"कितें सांगता रे?"

"हय रे. बसलेलो जाल्यार तूं लेगीत पास जातलो आसलो."

"सोडून दी. आनी तो सागर आनी विकी?"

"सागराच्या बापायचो पसरो आसा. ताणें पसऱ्यांत लक्ष घातलां. आनी विकी मोटारसायकलीन भाडीं मारता."

"शी!"



"फुडलें शिक्षण घेयना जाल्यार तुवेंनूय अशेंच कितेंय करपाक जाय."

"तशी हांव सर्वीस करीन पूण मनासारकी जाय. वगीच सुखाचो जीव त्रासांत वडोवपाक हांव तयार ना." अनीलान आपणालो निश्चेव विनयाक सांगलो.

"म्हजे सगळे कॉलेजचे इश्ट थंय मुखार आसात. हांव थंय वयतां. तूं येता?" विनयान ताच्या हाताक धरून विचारलें.

"नाका नाका." ताचो हात सोडून घेत अनीलान म्हणलें. विनय गर्देंतल्यान तसोच मुखार गेलो.

सकाळचो वेळ आशिल्ल्यान बसींत खुबूच लूट आसली. शाळा आनी कॉलेजींत वचपी भुरगे आशिल्ले. ऑफिसांत कामाक वचपी लोक आशिल्ले. शेतांत वचपी कामेऱ्यां आसलीं. बसींत गर्दी आनी बोवाळ. चिरंगटीन आपलो जीव सांबाळीत दर एकलो उबो आसलो. इतल्यान अनीलान किळांच मारली.

"आवयस!"

"कितें जालें रे बाबा?" ताचे कुशीक उबी राविल्ले एके बायलमनशेन ताका विचारलें. तिच्या भेसावयल्यान ती शेतांत वावराक वता म्हणपाचें कळटालें.

"तुजी पोती लागली पांयाक." अनील तिडकलो.

"पोतयेंत कितें कांटे आहा तोर?" तिणें विचाल्लें.

"हून लागलें पांयाक." अनीलाक तिगेलें सुबेजपण आवडलेंना.

"पेज आहा दोब्यांत. दोबो तेंकलो पांयाक."

"पेजो घेवन बसींनी भोंवता?"

"बाबा, आमी शेतांत वावरा वचपी कामेऱ्यां. पेजेचे दोबे घेवन बशींनी वयपाचें ना जाल्यार कोहें टेक्सीनी वयपाचें? आनी बाब,

पेजेबगर येदो व्हड जालो तूं?''

अनीलाक तिच्या उतरांचो राग आयलो. पूण आनीक वाद नाका म्हूण तो वगीच रावलो. तोंडांतल्या तोंडांत मात पुटपुटलो.

''शीस्त ना. केन्नाच सुदारपाचीं नांत. तरी बरें पेज पेंटीर पडली ना.''

तो तसोच उबो रावलो. इतल्यान फाटल्यान कोणेतरी ताचें खोमीस ओडलें. ताणें फाटल्यान पळयलें. एक जाणटेलो ताका आपयतालो.

''हांगा बस. सीट खाली जालां. नातर तीं कामेऱ्यां बसतलीं.''

जाण्टेल्यान आपलेकुशीच्या रित्या सिटाचेर हात दवरिल्लो. आपल्या म्हऱ्यांत कोणूय बशिल्लो ताका नाका आसलें. अनीलान त्या सिटार घालून घेतलें.

इतल्यान टक् टक् आवाज करीत कंडक्टर आयलो.

''एक पणजे.'' अनीलान सांगलें.

''फूल?'' कंडक्टरान विचारलें.

''फूल तर. वळखना रे?''

कंडक्टर ताका हांसलो. पयशे घेवन तसोच मुखार गेलो. कुशीक बसलेल्या जाणटेल्यान अनीलाक चत्रायेन पळयलो.

''तूं हाप न्हय?''

''न्हय. फूल.''

''कुलेजीक वचना?''

''ना.''

''कामांक वयता?''

''हय.''

''कसल्या कामांक?''

"काम सोदूंक वतां." अनीलान ताका तुसडेपणान जाप दिली.

बस माशेलांत पावली. अनीलान जनेलांतल्यान भायर पळयलें. सिनेमा थेटराचेर कसल्या सिनेमाचो बोर्ड लागला तें तो पळोवंक सोदतालो.

"खंय पावली बस?" जाणटेल्यान ताका विचारलें.

"थेटराकडेन. तूं देंवता?"

"ना. कसलें लागलां पिच्चर? नेयें दिसता."

"ना: पोरणें."

"तुवें पळयलां तर?"

"हय. पूण हांगासर न्हय. तीन म्हयन्यापयलीं म्हापशां पळयलां. हांगां पिक्चरां पळोवपाचीं नांत. पोरण्यांतलीं पोरणीं आसतात."

"पिच्चरां पोरणी जातकूच नटयांचे कपडे झिरझिरीत जाता म्हणटा ती गजाल खरी?"

"कोण सांगता?" अनील जाणटेल्याच्या पिशेपणाचेर खळखळून



हांसलो. कांय वेळ दोगूय वगीच रावले.

"आमगेल्या अनन्यालो नातू आसता त्या थेटरांत." जाणटेल्यान परत विशय सुरू केलो.

"मॅनेजर?"

"ना. ताचेपरस वयर. लोकांक भायर भितर तोच घेता."

"डोअरकीपर दिसता."

"हय. तसलोच धोरकिपर." जाणटेल्यान अभिमानान सांगलें.

"डोअरकीपर? भोंगू बाबड्याचें!" अनीलान मनांतल्या मनांत म्हणलें आनी त्या अनन्याल्या नातवाची काकूळट केली.

"आतां पिच्चरां कसल्या रंगाचीं आसतात?" जाणटेल्यान विचारलें.

"म्हणजे?"

"म्हणजे आमच्या काळार काळीं आनी धवीं आसतालीं."

"आतां सगळे तरेचीं आसतात. निळीं, पांचवीं, तांबडीं, हळदुवीं, गुलाबी."

कायचेकाय जापो दिवन अनील जाणटेल्याचें तोंड बंद करपाक सोदी. पूण जाणटेलो वस्ताद आसलो. खंयचोय जाणटेलो भुरग्यांक विचारता तोच प्रस्न ताणें अनीलाक विचारलो,

"तूं कोणालो रे?"

"हांव मुखार वतां." अनील उबगलो. उठलो आनी बसीच्या मुखावयलेवटेन गेलो. पूण थंय पावतकूच उज्यांतलो सुटून उदकांत पडलो अशें ताका जालें. ताचे एके काळचे वांगडी, कॉलेजचे भुरगे हांच्या चपक्यांत तो सांपडलो.

"अनील तूं खंयचे कॉलेजीक?"

"तागेली कॉलेज ऑफ हेराफेरी."

"ना. ना. कॉलेज ऑफ इधर उधर" तिसऱ्यान फोडण फोडलें.

"हांव सांगतां. कॉलेज ऑफ ढें डे ढें ऽऽ" चवथ्यान फिल्माचे स्टायलीन म्हणलें. तेसरशीं सगळे खो खो करून हांसले. अनीलाक सामकी लज जाली.

"बाणस्तारी, बाणस्तारी ऽ ऽ" बसीचो कंडक्टर आड्डलो. कांय जाण देंवले. तातूंत अनीलानूय घालून घेतलें.

"आरे आमचो बेकार भोंवडेकार बाणस्तारीच देंवलो मरे."

"वा! वा! बसींक फायदो."

अनीलाच्या फाटल्यान कॉलेजांतले भुरगे ताचीं फकाणां मारीत आसले. बस थंयच्यान सुटचे आदींच तो कुशीच्या हॉटेलांत भितर सरलो. ताका तांचो कसलो राग आयलो. 'कॉलेजीक वता म्हण मार व्हडल्यो पॉजी मारता! मीठ घालतां असल्या शिक्षणाक. बरे भुरगे फेल जातात. कर्माक जाय असलीं शिक्षणां!' तो मनांतल्या मनांत चडफडलो.

"कितें जाय?" वेटरान विचारलें.

"कितें आसा?"

"भाजी, पातळ, सुकी, सालाद, उसळ. बटाटवडा, सामोसा, मिरची, शिरो."

"गरम कितें आसा?"

"सगळें गरम आसा."

"अशें कर–" अनील कितें खावंचें तें येवजूंक लागलो.

"बेगीन सांग."

"बेगीन सांग कितें? बस सुट्टा तशें तुजें हॉटेलय सुट्टा कांय कितें रे?"

"बाकिचीं गिरायकां आसा."

"मिक्स भाजी, पाव, मिरची आनी च्याव. बेगीन."

अनीलान वेटराक ऑर्डर दिली आनी तोंडाक लाळ कार्डीत तो खाणाची वाट पळोवपाक लागलो. वेटर भाजी घेवन आयलो.

"आरे, आंगार रकयली मरे भाजी. शर्टाचेर दाग पडलो पळय."

तो वेटराचेर तापलो. गल्ल्यावयल्या धनयाकडेन ताणें कागाळ केली.

"ह्या तुगेल्या वेटरान कितें केलें पळय."

धनयान ताचेवटेन पळयलें. वेटर मान सकयल घालून उबो आसलो.

"भुरगो आसा तो. हालींच लागला."

"असले भुरगे दवरतात वेटर म्हणून? बरेशे दवरचे."

"तूं रावता?" धनयान विचारलें.

अनील वर्गा रावलो. ताणें मनांत म्हणलें, 'वेटर? शींस्स! उपाशीं रावन पूण असलें दुसऱ्याचें उश्टें काडपाचें काम करचोंना.'

"फाडो सांबाळून मार रे. गिरायकांच्या आंगार वडोवशी." धनयान आवाज चडोवन वेटराक शिटकावणी दिली.

पयशे फारीक करून अनील भायर आयलो. थंय सावन थोडो चलून बसस्टॉपार गेलो. पणजे वचपी बसी भरून वताल्यो तश्यो फोंड्यांय वचपी बसी भरून वताल्यो.

बसींत चडशे सर्विशेचे लोक. अनीलान मनांत म्हणलें, शेतांतल्या कामेऱ्यां-मानायांभशेन हे लोक जेवणाचे डबे घेवन ऑफिसाक वतात. मानांय कामेऱ्यां शेताच्या बांदार बसून जेवतात. हे ऑफिसांतले लोक ऑफिसांनी बसून जेवतात. शारांत इतलीं हॉटेलां आसात तीं कित्याक? हांव जाल्यार केन्नाच डबो व्हरपी न्हय. थंड जेवण म्हण जेवं येता!...'

"फोंड्यां, म्हाड्डोळ, मंगेशी." कंडक्टर आड्डलो. एक बस येवन बाणस्तारी थारली. तो बसींत चडलो. गर्दी आसली पूण ताका बसपाक एक सीट मेळ्ळो. खंय वचपाचें तें आजून थारावंक नासलें. कंडक्टर तिकेटींखातीर विचारतकूच पळोवया, अशें येवजून तो वगीच रावलो. बस म्हाड्डोळा पावली.

"फुलां... फुलां." एक फुलकार ताचे म्हऱ्यांत आयलो.

"कोणाक माळ्ळूंक?" अनीलान ल्हवूच म्हणलें.

"जायो... जायो." दुसरो फुलकार आयलो.

"नाका... नाका." अनीलान ताचीं फकाणां केलीं. 'कसलो म्हण हो फुलांचो धंदो! शी! हांव जाल्यार केन्ना करपी न्हय.' ताणें मनांत म्हणलें.

बस सुटली. अनीलाक याद जाली. आरे! कंडक्टर खंय? वाटेर देंवलोना मू? पॅसेंजरांवांगडा?

ताका फाटलो उगडास आयलो. एकदां ताणें कंडक्टराची मजा केल्ली. अशीच बस आशिल्ली. कंडक्टर दर स्टॉपाचेर शिळोणी मारून बस थारायतालो आनी परत शिळोणी मारून बस सोडटालो. ड्रायवर आनी कंडक्टर हांचेमदीं ही शिळोणेची खूण आसली. अनीलाक तांचीं फकाणां मारपाची कूय आयली. अश्याच एका बस स्टॉपार अनीलान शिळोणी मारली. ड्रायवरान बस सोडली. कंडक्टराचेर आकांत आयलो. तो तसोच बसी फाटल्यान धांवपाक लागलो. बसींतले लोक फाटल्यान वळून ही करामत पळोवन हांसपाक लागले. हांसून हांसून तांचो मुड्डो जालो. शेवटाक कोणेंतरी ड्रायवराक सांगून बस थारायली आनी कंडक्टराक भितर घेतलो. भितर सरून कंडक्टरान गाळींचो शिंवर केलो आनी ल्हवूच पिल्लूक भायर काडली. मागीर तो शिळोवणे वाट्याची

पिल्लूक.वाजोवपाक लागलो. फाटले यादीन अनील आतांय गालांतल्या गालांत हांसलो.

"ए अनीला. वळखुना रे?"

"आं?" अनील भानार आयलो. ताचे मुखार कंडक्टर उबो आसलो आनी तो ताका हटकितालो.

"नारायण मरे! तूं रे पापया कंडक्टर केन्ना जालो?"

"जाले तीन म्हयने. हालींच हे लायनीक आसतां."

"शाळेंत आसतना तूं आपूण दोतोर जातलों म्हण सांगतालो न्हय रे. आनी कितें काय म्हळ्यार टिक् टिक् कंडक्टर?"

"पयशे मेळना तर?"

"पयशे मेळटा म्हण कितेंय करशी?"

"तूं कितें करता रे?"

"तुजेसारकीं कंडक्टरपणां मात करीना– टिक् टिक्. राव रे. वच रे." नारायणाक ताचीं उतरां लागलीं.



“अनील, तूं समजता तितलें सोपें नासता आं.”

“म्हाका फुक्याक लेगीत नाका.”

“चल. फोंड्यांमेरेन तुका फुक्यासवाय पावयतां.”

नारायणान ताका तिकेट दिली ना. आनी ताचे पयशेय घेतले ना. अनीलाक बरें दिसलें. ‘जांव, हरशीं शाळेंत कुस्कुटात पावनासलो. आयज तिकेट तरी सुटली. पोराचे सर्विसेचें मात भोंगूं!’

बस फोंड्यां पावली तसो तो देंवलो. देंवतना ताणें नारायणाचीं फकाणां मारीत म्हणलें, “नारायण फुडले खेप खंयचे लायनीक आसतलो तें सांग.”

पूण ताका परत जाप करपाक नारायणाक फुरसद नासली. ड्रायवर बस रिवर्सांत घेतालो. कंडक्टर ताका पिल्लूक मारून सिग्नल दितालो.

फोंड्यां पावनाबराबर अनीलान बद्द मावशेगेर वचपाचें थारायलें. मावशागेर न्हय मावशेगेर. मावसो हरशीं सभावान बरो पूण अनीलाक तो बुरसो दिसतालो. कित्याक तर ताच्या आंगावयल्या कपड्यांचेर भाजयेचीं खतां आसतालीं. मोटवें कालसांव घालून तो गाड्यार रावन भाजा विकतालो. असलो मनीस आपलो मावसो म्हण सांगपाक अनीलाक लज दिसताली. फोंड्या बाजारांत मावशालो भाजयेचो गाडो आसा. अनील मावशालो गाडो चुकोवन मुखार वचपाक सोदी. इतल्यान मावशालीं उतरां ताच्या कानार पडलीं. ‘ए बाब, भाजी व्हरना? मुळो पळय कसलो कवकवीत आसा.’ अनीलाक दिसलें तो आपणाकूच हटकिता. पूण ना. तो गिरायकाक आपयतालो. अनीलाक आपूण सुटलों कशें दिसलें. “ए अनील, अनील खंय वयता रे?” मावशाचे नदरेंतल्यान गिरायक सुटना, तसो अनीलूय सुटलोना.

“घ... घरा वयतां. तुमगेर. तुमगेर.” अनील चांचरलो.

“घरा वयता जाल्यार असो लिपून कित्याक वयता?” आनी मागीर ताणें मुखावयल्या गिरायकाक म्हणलें, “पापडी चार रुपया कील.”

“मावशा, तूं क़ामांत आसलो म्हण भायले भायर वयतालों.”

“कामां सदचींत, बाय. कोबी बरो आसा. घरचीं कशीं आसा?” मावसो एकेवटेन गिरायक करतालो आनी दुसरेवटेन अनीलाकडेन उलयतालो.

“बरीं आसा.” अनीलान जाप दिली.

“सात रुपया कील. दी. साडे स दी.”

“मावशा, घराकडेन मावशी आसा न्हय?”

“ना. गाजर येवंक ना. फाल्यां मेळटले. तुगेली मावशी आसा घराकडेन.”

“हांव घराकडेन वयतां.”

“वांयगीं बरीं आसा, वायकर न्हय तीं.” ताणें गिरायकाक सांगलें आनी मागीर अनीलाक म्हणलें,

“तुवें विचार केलो? गाड्यार म्हाका एक मनीस जाय. नाजाल्यार दुसरो कोणूय पळयतां.”

“घरा वयतां.” अनील थंयसावन कडसरपाक सोदी.

“हांव दनपरां घरा येतकूच सांग म्हाका.”

“मावशा, रावचों ना हांव.”

“वयताना पासय मार तर. बाब रे.”

“कितें मावशा?” अनील थारलो.

“चल तूं. तुकां न्हय. गिरायकाक उलो मारतालों हांव.”

अनीलान थंयसावन कूस मारली. ताका मावशाचो राग आयलो.



'गाड्यार कामांक रावता म्हण विचारता म्हणजे कितें? हाच्या खोमसावयलीं भाजयेचीं खतां पळयल्यार हागेलो गाडो आनीक जाय? नाककात्रेपणां! हाच्या गाड्यार बसून लज काडचेपरस रस्त्याचेर बोब मारून सोर्ती विकप बरें. मावशेखातीर ह्या मावशाच्या तोंडार नदर घालपाची. नाजाल्यार–' मनांतल्या मनांत तो तिडकलो.

येवजीतां येवजीतां तो घराकडेन पावलो. पळय जाल्यार मावशी दारांत उबी.

"आवयस! आयज सुर्या खंयच्यान उदेलो? मावशेचो उगडास येयलो दिसता."

"हय. मावशे."

"येतना गाड्यार गेल्लो? मावसो मेळ्ळो?"

"हय."

"कितें सांगतालो?"

"वालपापडी चार रुपया कील."

"कितें?"

"अशें गिरायकाक सांगतालो."

"मावशाचीं फकाणां करता?"

"शे! शे!"

"खूब काम पडटा गाड्यार. आमगेलो व्हडलो. अनंत रे. कॉलेजींक वयता न्हय. गाडो तुज्या मावशाकूच सांबाळचो पडटा. तूं कसो आसा? भागलो मरे!"

मावशेन ताचीं उतरांनी अपुरबाय केली आनी मागीर ती भितर गेली. थोड्या वेळान शिरो आनी च्या घेवन भायर आयली. शिरो सामको मचमचीत! अनीलाक मावशी करता तो शिरो ग्बूब आवडटा. त्या शिऱ्याची रूच मागीर कितलेशेच दीस ताचे जिबेर घोळत उरता. च्यावूय बरी दाट दुदाची. वयर साय धरता. म्हस आसा तांगेर.

"आवय बरी आसा मरे?"

"आं? हय. बरी आसा. तुका विचारलां."

"बापूय कसो आसा?"

"बरो आसा."

"कशें चल्लां?"

"बरें."

"शिरो आनीक हाडूं? तुका आवडटा म्हण केलो. खा. जेवणाक आजून कळाव आसा."

"मावशे, जेवणाक रावना."

"कित्याक रे?"

"वचपाक जाय. काम आसा."

"खंय मडगांव वचपाक जाय?"

"हय. मडगांव वचपाक जाय." मावशेचो प्रस्न ताका बऱ्याक पडलो. थंयचे थंयच ताणें थारायलें. मडगांवां वचपाचें. आनी तो वचपाक उठलो.

"मावशाक मेळून वयचो ना?"

"मागीर दुसरे फावट केन्नाय."

खरें म्हळ्यार मावशाची आनीक भेट नाका म्हण तो वता. नाजाल्यार तो रावतलो आसलो. सकाळीं मावशेलो चलो– अनंत कॉलेजींक गेल्लो. सांजचो येतकूच ताचेबराबर सिनेमाक वचूं येतालें. पूण परत मावशान गाड्यार रावपाचो विशय काडलो जाल्यार......

"चल्लों हांव."

"राव हें घे."

"कितें?" खबर आसूनय अनीलान विचारलें. ताणें वयलेवयर 'नाका नाका' म्हणलें. मावशेन नोट कवळून ताच्या वयल्या बोल्सांत घातली.

"असो अदीं मदीं यो. एकामेकाची खबर कळटा. बरें दिसता मागीर. आमगेलो अनंत वयता कॉलेजींक. तेका फावना. तुजो मावसो दीसरात गाड्यार. म्हजीं तर घरचीं कामांच जायना. शिवाय म्हस आ़सा. कामां दाढेक फुरसद ना. तूं बेकार आसा न्हय रे. यो असो केन्नाय."

"बरें मावशे."

"वयताना मावशाक जाप करून वच."

"बरें बरें." अनील बुटांचो आवाज करीत मार्गाक लागलो.

मावशेन बरें सांगलें म्हण तो मावशाक थोडीच जाप करता. तो मावशेख्रातीरून आयिल्लो. बोल्सांतली नोट काडून पळोवपाची ताका सामकी उमळशीक लागिल्ली. पूण मावशेचे नदरेआड जायसर

तो रावलो. वीस तरी आसतले! ताणें अदमास केलो, 'पन्नास?' तो उडकीच मारपाचो. इतली ताका खोस जाली. फाटले खेप वीस आसले. मावशेची दानत बरी. मावशी आसची तर अशी! नाजाल्यार मावसो. गल्ल्यांत इतले पयशे खळखळटात पूण हातार केन्ना फुटकी कवडी दवरचोना. गाड्यार पिवपाच्यो बाटल्यो आसतना घराकडलें उदक व्हरून पियेतलो. दाऩतूच ना. खरें म्हळ्यार आमचे मावशेक घोंव म्हणून हो मावसो सोबच ना.

"बाय, ओ बाय, भाजी ताजी आसा. कोबू सवाय जाला." मावशालीं उतरां ताच्या कानार पडलीं. ताणें मावशाली नदर चुकोवन थंससावन कूस मारली.

....जांव. सुटलों एकदांचो. नाजाल्यार मावसो परत तोच विशय काडपाचो– रावता भाजयेच्या गाड्यार? हाचो भाजयेचो गाडो आनी तीं भाजयेचीं ख्रतां जाय कोणाक? मनांतल्या मनांत मावशाक उणाक लेखींत तो बसस्टँडार पावलो.

फोंडेच्या त्या बसस्टँडाचेर जायत्यो बसी थारिल्ल्यो. ताणें वयले बोर्ड वाचले. एके बसीर मडगांवचो बोर्ड आसलो. ती बस सुटपाचे तयारेंत आसली. तो बसींत चडलो. एक जनेलाकडली सुवात ताणें वेंचून काडली. बसनाबरोबर ताणें परत बोल्सांतली नोट काडून पळयली. व्हदळ वाटेर सारकी पळोवंक नासली. तो धादोसलो. जनेलांतल्यान भायर पळोवपाक लागलो.

बसस्टँडार लोकांची गर्दी आसली. बसस्टँडार बस येनाबरोबर लोक बसींतल्यान ताकतिकेन देंवताले. सुटपाचे बसींत तुरतुरीत चडटाले. सगळी धांवपळ. तातूंत लोकांच्या फाटल्यान तरांतरांचे मर्नीस लागिल्ले. म्हळ्यार केळीं विकपी, संत्रांकार, मोसंबींकार, सोर्तीकार. अनीलाक तांची मजाच दिसली. ते दर एका



भोंवडेकाराफाटल्यान धांवताले. पूण कोणूच तांचें कांय विकत घेय नासलो. तरी आसताना ते आशेन कोणांक सोडीनासले.... सकाळसावन हे अशे हाच्या ताच्या फाटल्यान धांवता आसतले. तांकां कितले पयशे मेळ्ळ्या काय? पन्नास? फुटल्या! तो मुमुरख्यांनीच हांसलो.

"सोर्त सोर्त." एक सोर्तीकार बसींत चडिल्लो. तो अनीलाम्हऱ्यांत आयलो. ताचेच पिरायेचो आसलो.

"बाब सोर्त काड. लागतली."

"खंयची लागतली?"

"ही काड. एक लाख."

"लागतली मरे नक्की?"

"हय पात्रांव लागतली." सोर्तीकारान सोर्त ताच्या आंगार वडयली.

"लागतली मरे? मागीर घे. ही तुकाच दवर. लागली म्हणटकूच एक लाख घे आनी वग्गी बस. परत सोर्ती विकपाचो धंदो करूं नाका. समजलें?" अनीलान तागेली सोर्त ताचेकडेन दिली. सोर्तीकार

समजलो, हो आपलीं फकाणां करता. तो तसोच 'सोर्त, सोर्त' करीत मुखार गेलो. दर एका सीटार बशिल्ल्या मनशाक ताणें सोर्ती दाखयल्यो. कोणा कोणाच्या आंगारूय सोर्त दवरली. पूण कोणेंच ताची सोर्त काडली ना.

....अशेंच फाव. सोर्ती विकता सोर्ती! लज आसल्यार फायच्यान विकचोना.

अनीलान मनांत म्हणलें आनी त्या सोर्तीकार भुरग्याची काकूळट केली.

"ए अनीलो ऽ ऽ अनीलो ऽ ऽ" भायरसून जनेलाकडेन ताका कोणतरी उलो मारतालो. ताणें भायर पळयलें.

"अनीलो, वळखना रे? अत्मा मरे." ताणें आपलीच वळख करून दिली.

"आरे अत्माराम, अत्मा!" अनील ताका वळखलो.

"विसल्लो? आठवे यत्तेंत एकाच बांकार बसताले मरे आमी."

"कितल्या तेंपान रे? खंय आसलो?"

अनीलान जनेलांतल्यान ताचेर नदर मारली. मोटवें खाकी कलसांव. वयर खोमीस. खोमसाचो मुखावयलो पोंत कलसांवाच्या सकयल्या पोंताकडेन पाविल्लो. दाव्या हातांत रितें वजें आसलें. खांदार रिस्का रिस्कांचो तुवालो वडयिल्लो. खांदार वडोवचे आदीं ताची माथ्यार दवरपाक चुंबळ केल्ली म्हणपाचें कळटालें. कारण तो चुरिल्लो. हो कुळागरी मनीस फोंडेच्या सप्तकी बाजाराक माल घेवन आयिल्लो म्हणपाचें सांगलेबगर कळटालें.

"बाजाराक येयल्लों रे." अत्मान उमेदीन जाप दिली.

"तें आनी सांगपाक जाय? वजें तुवेंच माथ्यार मारून हाडलेलें काय कितें रे?"

"हय तर. हांव मानाय आसतना म्हाका दुसरो मनीस कित्याक जाय?"

"मानाय सोबता खरो."

"खंय वयता बशीन बसोन?"

"खंय वयता तो कळना?"

"मडगांवां. हय मरे? चल, कितल्या तेंपान मेवळ्या. इल्लो च्याये घोंट घेवंया." अत्मा आग्रो करतालो. अनीलाक अजाप दिसलें. शाळेंत हो अत्मा सगळ्यांक जाय आसलो. कित्याक काय म्हळ्यार फकत ताचीं फकाणां करपाक. आनी आयज तो च्यायेक आपयता. खरें म्हळ्यार अत्मान कोणाक हडकुपाचें पासून न्हय. इतलो सगळ्यांनी ताका कींकोंत केल्लो.

"अनीलो, देंव मरे."

...शी असल्या सवंगाबरोबर हॉटेलांत वचून च्याव घेवपाची? खोमसार केळ्याच्या दिकाचीं खतां चित्रीं कशीं उदेल्यांत. आनी हातांत रितें ओजें. तें हॉटेलांत खंय दवरतलो?....

"ना रे. बस चुकतली."

"एक चुकल्यार कितें जालें? बसी आसा खोंटल्यांनी. नातर इस्पीशल टॅक्सीन पावयतां तुका मडगांवां. कितें समगलो तूं?" अत्मान कलसावांच्या बोल्सार हात थापटीत सांगलें. किडयाळे दांत भायर काडून तो तोंडभर हांसलो. ताचें बोल्स बरेंच तटतटीत जाल्लें.

"बाजार बरोच फायद्याक पडला दिसता!"

"चार कातरे मरे आनी चार घडावलीं हाडलेलीं. चारूय गेलीं. खावचीं पानां. बेडे सगळें सोंपलें." अत्मा उमेदीन येवन सांगतालो.

"देंवना मरे? घे."

“हें कितें?”

अत्मान एक लिंबू सोदाचो ग्लास जनेलांतल्यान अनीलाच्या हातांत दिलो. एक लिंबू सोदकार हातांत ग्लास घेवन हांगा–थंय भोंवतालो. एक ग्लास अत्मान आपणें हातांत घेतलो. ग्लासाच्या तोंडार पातळ धवें कागद धांपणें कशें लायिल्लें आनी कागद तोंपून स्ट्रो भितर घाल्लो. अनीलान स्ट्रो तोंडाक लावन सरबत भितर ओडलें. सकयल्या अत्मान ग्लासावयलें धांपणें काडलें. स्ट्रो काडून भायर वडयलो आनी ग्लास तोंडाक लायलो.

“हे नळयेन म्हण पिवपाक ज़ाता?”

...हो केन्नाच सुदारपाक ना. अनीलान् ताची करणी पळोवन मनांतल्या मनांत म्हणलें.

“आनीक़ जाय?” अत्मान भायर सावन विचारलें. ताचें पिवन जाल्लें. आनी सरबताचो आनीक एक ग्लास ताणें तोंडाक लायिल्लो.

...सवंग! अनीलान आपलो रितो ग्लास भायर दिलो.

इतल्यान बस सुटली. एका हातान वजें घेवन अत्मा दुसरो हात हालयत आसलो. अखेरमेरेन अनीलाची नदर अत्माल्या फुगिल्ल्या बोल्साचेरूच उल्ली.

....अत्मा तोपयो खेडेकार. हो आमच्या मावशाचो पुतणयो बरो सोबतलो. मावसो बाजारी, पुतणयो कुळागरी. कुळागरांतलो माल हाडपाचो आनी गाड्याचेर दवरपाचो... कितलोसोच वेळ अत्म्याचें चित्र अनीलाचे नदरेमुखार उरलें.

...:पोराचें बोल्स बरें तटतट्टालें. शंबर रुपया मागपाचे. उश्णे म्हूण मागपाचे. नेटान काडून दितलो आसलो. निदान पन्नास तरी! दोन लिंबू सोडा दितालो. पंचविसांक तरी पातयेतलो आसलो. शे! तेन्नाच येवजुपाचें. आतां अश्यो वळून बुद्दी येवप बरोबर न्हय.

आतां परत मेळटा तेन्ना ख़रो. अत्माराम तोपयो खेडेकार!.... अनील सुस्कारलो.

बस मडगांवचेवटेन धांवपाक लागली. मदीं खंयच थारली ना. "बोरये, बो र ये ऽऽ." कंडक्टर आड्‌डलो. तेसरशीं बस थारली. अनीलान भायर नदर मारली.

...बोरये कोणतरी आसपाक जाय आसलो. मागीर फोंड्यासावन बोरये, बोरयेच्यान मडगांवां अशें करूं येतालें. पूण आशिल्लो खरो कोणतरी. आमगेर येतालो. आमगेर म्हणचेपरस आमच्या काकाक मेळपाक येतालो. काकान तेन्ना मडगांवां राबितो करूंक नासलो. आतां त्या बोरयेकाराक वळखतलो कोण? आनी म्हाका तरी तो कसो वळखतलो? एकदां देवळांत काल्याक आयिल्लो. खूब शीं आसलें.... जनेलांतल्यान वाऱ्याचो एक झोत भितर आयलो.

...बोरये देंवप ना. मडगांवां काकागेर वता तेंच बरें आसा. पूण काकागेर कित्याक म्हूण वचप? तसो मावशेगेर कित्याक म्हूण गेल्लों? मावशेची याद आयली. खबर घेवपाक गेल्लों. आवयक बरें दिसतलें. पूण मडगांवां काकागेर गेल्लों म्हण कळ्ळयार बापूय वगी रावचो ना. तो चाळवतलो. मागीर ताची खोकली चाळवतली. कितलींशींच वर्सां जालीं, भावांनी एकामेकाचें तोंड पळोवं ना.... अनीलाक फाटली याद जाली.

तागेलो काका पयलीं तांच्यावांगडा एकाच घरांत रावतालो. मागीर काकाक मडगांवां नोकरी मेळ्ळी. ताणें थंय बिराड केलें. लग्न जालो. थंयच रावपाक लागलो. फकत चवथीक, जात्रेक, शिगम्याक चुकनासतना येतालो. बापूय म्हणटालो. "तो आतां व्हडलो जाला. भाटकार लोकांभशेन फकत सणां–परबेक मूळ



घरांत येता.''

बापूय संद मेळिल्ले खेप काकाक घालून पाडून उलयतालो. एक दीस काकान पयशे दिले जाल्यार बापूय म्हणपाक लागलो,

''म्हाका भीक लागल्या म्हण तुका कोणे सांगलें?''

''घर खर्चाखातीर दवर.'' काकान सांगलें.

''ज्या घरांत तूं रावना त्या घराचो खर्च तूं कित्याक करतलो? हांव मेलां तर? आनी हांव फाल्यां मेलों जाल्यार फाल्यां म्हजो पूत आसा.'' बापूय मिजासखोरपणान काकाकडेन उलयलो.

मागीर आनीक एक फावट शेतावयल्यान दोगांयचें पेटलें. गांवांत ल्हानशें शेत आसा.

''हांवें घर सोडलां. शेत सोडूंना.'' काकान म्हणलें.

''घर सोडलेल्या मनशाक शेताचो अधिकार ना.''

''कसो ना?''

''मडगांवां रावन हांगा शेतां रोयता? भाटकार जावंक सोदता?''

"हांव जाय तें करीन. शेताचो अर्दो वांटो म्हाका दी."

"कितें करतलो अर्द्या वाट्याचें? गोरवांक चरपाक पडींग दवरतलो?"

"म्हजी वाटणी कोणाकूय रोवपाक दितलों. गरज पडल्यार तुजेकडेन रोवपाक दीन."

"वा! म्हणजे तूं धाकलो भाव भाटकार आनी हांव तुजो मुंडकार."

"तूं म्हजेर कसता कित्याक?"

"हांव कसना तुजेर. तुजी जोड तुका लखलाब जावं! पूण तुका शेत मेळचेंना." बापायन ताका स्पश्टपणान सांगलें. काका जो गेलो, फाटीं वळून लेगीत पळयलें ना. काकाक आडावपाची वा समजावपाची तेन्ना अनीलाची पिराय नासली. त्या झगड्यांत अनीलाक मात आपणाल्या बापायचीच चूक दिसली.

....झगडें कित्याखातीर काय म्हणल्यार चिखलाखातीर. इतली कसली ओड चिखलाची? काकाक काडून दिवची ताची वाटणी. तो भोव रोयता! दितलो कोणाकूय नातर विकतलो. आमचेय वांटणेचें तशेंच करपाचें. आतां तीं शेतां रोयतलो कोण? हांव काय चिखलांत पांय घालपी न्हय. पूण ह्या बापायक समजायतलो कोण? अनाडी खंयचे कडले! हांच्या भेंडाक काश्टी आनी कपलांत चिखोल!

बस मडगांवां पावली. अनील देंवलो. भाड्याच्यो मोटारसायकली थारता थंय गेलो. एकल्या मोटारसायकलवाल्याक ताणें पयसुल्ल्यानच 'शूत शूत' केलें. तेसरशीं एकलो मोटारसायकल स्टार्ट मारून ताचेसरीं आयलो. अनील पांय वडोवन फाटल्यान बसलो.

"शूत शूत कितें करता? पायलट म्हण उलो मारल्यार आमकां कळटा." मोटारसायकल चलोवप्यान ताका सांगलें. तो आडसाठो

तरणाटो आसलो.

"तुमी मोटारसायकली चलयतात ते पायलट? आनी विमानां चलयता ते कोण तर?" अनीलान ताका परती जाप दिली. विमान चलोवप्यांक पायलट म्हणटा तें अनीलाक खबर आसलें.

"तेवूय पायलटूच." मोटारसायकलवाल्यान जाप दिली. हो आपणांक बदचोना अशें ताका दिसलें.

"खुंय वयता?" ताणें विचारलें.

"आक्यां."

"आक्यां खंय?"

"चल सांगता तुका." अनीलान जाप दिली. मोटारसायकल नेटान चालीक लागली.

"हांगा थारय." अनीलान ताचे फाटीक हात लावन सांगलें. तो थारलो. अनीलान ताचे पयशे फारीक केले.

"परत केन्ना शूत शूत करूं नाका आं." मोटारसायकलवाल्यान ताका शिटकायलो.

"कित्याक?" पयशे फारीक करतना ताका नेट आयिल्लो.

"शूत शूत करता धुकरांक आनी कोंबयांक." अशें म्हणून ताणें मोटारसायकल घुंवडायली आनी तो फांस गेलो. व्हडलो समजता स्वत:क! आमचेर जोडटा आनी आमकांच शापोतां सांगता! गेलो म्हण सुटलो नाजाल्यार आर्त्याक पर्ते दितलों आसलों.

अनील काकागेर पावलो. दार उक्तेंच आसलें. मातशें आड केल्लें. ताणें दारार मारलें.

"प्रकाश भायर कोण आयला तो पळय." भितरसावन काकीचो आवाज आयलो. प्रकाशान दार उक्तें केलें. प्रकाश हो काकालो चलो. अनील ताका पळोवन हांसलो पूण प्रकाश हांसलो ना.

"कोण रे?"

"तूंच पळय." प्रकाशान आवयक म्हणलें.

"हांव रान्नीकडेन आसा मरे." तरी आसतना हात पुशीत काकी दाराकडेन आयली.

"आरे, अनील मरे. प्रकाश तूं आमच्या अनीलाक वळखना?"

"ना." प्रकाशान तुसडेपणान जाप दिली.

"यो अनील. बरो जेवणाच्या वेळार पावलो. चल, हात पांय धुवन यो."

"काका ना?" अनीलान वासपूस केली.

"आसा. आतांच ऑफिसांतल्यान आयला. बाथरूमांत गेला. येतलो."... काकागेर बरें. संडास घरांत. आमच्यासारकें सकाळीं उठून व्हाळार धांवचें पडना. अनीलाक याद जाली. काका आनी काकी एकदां जात्रेच्या निमतान गांवांत घराकडेन आयिल्लीं. अनीलान रातीकडेन रावपाक काकाक खूब आग्रो केलो. तो रडलो सुद्धां पूण



काकी रावली ना. हाचें अनीलाक वायट दिसलें. पूण मागीर अनीलाक मुखार समजलें, काकी रावना ती संडासाख्रातीर. गांवांतल्यो बायलो सकाळींफुडें तांबयो घेवन हांगा थंय वताल्यो. कार्कीक तशें करपाक त्रास जाताले. लज्जूय दिसताली. काकागेर घरांत संडास तेंचपरी बाथरूम आसा. घरांतूच न्हावपाक मेळटा. कळसुली घेवन बांयचेर वचचें पडना. काकागेर जेवपाक मेज, बसपाक सोफा, न्हीदपाक खाटी. ख्रेंच काकागेर कितलें बरें!

काका बाथरूमांतल्यान भायर आयलो. ताणें अनीलाची खबर घेतली. सगळे मेजाचेर जेवपाक बसले.

''प्रकाश, असो अनीला कुर्शीक बस.'' काकीन म्हणलें.

''ना. हांव पप्पा कुर्शीक बसतलों.''

''बस. अनील, बरो करून जेव. नुस्तें बरें आसा. खा.'' काकी ताका आग्रो करून वाडपाक लागली.

''पुरो पुरो.''

''घरा कितें? उकडें शीत आनी खारें. खारें नाजाल्यार तोर. हय मरे?' काकीन विचारलें.

अनील वगीच रावलो. मोन्यानी जेवींत रावलो. काकी करता तें नुस्त्याचें हुमण ताका खूब आवडटा. दुसरे दीस मेरेन हुमणाचो सुरबूस वास हाताक येता.

''अंदू खळांत आंबल्यो घातल्या?'' काकीन विचारलें.

''हय घातल्या. पूण सामक्यो थोड्यो. काडपाक कोणूच मेळना.'' अनीलान सांगलें. काकी हांसली.

''आमकां नाका रे. हांगा बाजारांत सगळें मेळटा.''

''ना. सगळें मेळना. दनपारचें जेवण मेळटा?'' प्रकाशान मदींच तोंड घातलें.

"कोण सांगता तुका मेळना म्हणून?" काकीन ताका पिशांत काडलो.

"नाजाल्यार लोक आमगेर कित्याक जेवपाक येतले आसले?" प्रकाशान अनीलाक पळयनासतना म्हळें. अनीलाक उस्तुरें गेलें. कार्कीक प्रकाशाचीं सुबेजपणां मानवलीं ना. काकान प्रकाशाचेर दोळे तांबडे केले. काकीन कांयच घडूंक नाशिल्लेभशेन विशय बदल्लो.

"अनील, अंदू शिगमो केन्ना रे?"

"आसा केन्ना तरी." अनील.

"प्रकाश, अंदू शिगम्याक या मरे?" काकीन विचारलें.

"नाका."

"कित्याक नाका?"

"त्याच तेंपार आमच्यो परिक्षा." प्रकाश.

"बरोबर. जाणां अनील, आमचो पका,"

"पका न्हय, प्रकाश." प्रकाशान लटक्या रागान म्हणलें.

"आमचो प्रकाश अंदू मॅट्रीकेक."

"आमकां अंदू पेडे आसा तर." अनील हांसलो.

"ना." प्रकाशान ठामपणान सांगलें.

"ना कित्याक?" अनिलान विचाल्लें.

"परिक्षा म्हजी. पेडे दुसऱ्यांक कित्याक?"

"खा तूंच." काकी ताचेर वाजेली.

जेवणां जालीं. तिगूय ताटावयले उठले. काकी जेवपाक बसली. काकीन प्रकाशाक म्हणलें,

"मागीर अनीलाक घेवन पासयेक वता मरे?"

"ना." प्रकाशान आदल्याच ठामपणान सांगलें.

"कित्याक?"

"म्हाका अभ्यास आसा."

"कर अभ्यास." काकी परत वाजेली.

इतल्यान काका परत ऑफिसाक वचपाक भायर सरलो. प्रकाश अभ्यासाचें निमित्त करून बसलो.

"अनील, आयज रावता मरे?"

"ना काका, वचपाक जाय, नाजाल्यार घरा हुस्को करतलीं."

"रावपाक यो केन्नाय. घरा सांगून यो."

"बरें काका."

"घे, दवर तुका." काकान धा रुपयांच्यो कांय नोटी काडून अनीलाच्या हातांत दिल्यो.

"टेन मल्टीप्लाय बाय फाय इज इक्वल टू- फिफ्टी." प्रकाश आपणालो अभ्यास करतालो पूण ताची नदर अनीलाचेर आसली.

"घरचीं खऱ्यांनीच बरीं आसा मरे?" काकान विचारलें.

"हय."

"हो कसो आसा?" काकान विचारलें. तो आपणाल्या भावाविशीं म्हळ्यार अनीलाच्या बापायविशीं विचारतालो.

"बरो आसा. ह्या दिसांनी मातशी खोंकली चड जाल्या."

"दोतोराक बी दाखयिल्लो?"

"ना. जाणटेपण."

"कसलें जाणटेपण? मस्ती मात आसा. वखदां बी घे म्हणजे. हे दवर. हांवें दिल्या म्हण सांगू नाका. नातर थंयच पिंजून वडयतलो. घे." काकान पन्नास रुपयांची एक नोट आदल्या नोटींनी भरशिली.

"फिफ्टी प्लस फिफ्टी इज इक्वल टू हन्ड्रेड." प्रकाशाचो अभ्यास जोरान चलिल्लो. काका भायर सरून गेलो. काकींचें जेवण

जालें.

"अनील, आयज रावतलो मरे?" काकीन हात धुतां धुतां विचारलें.

"ना. ना. तो रावचोना." प्रकाशान म्हणलें.

"तुका कशें कळ्ळें?" काकीन विचारलें.

"ताणें पप्पाक आतांच सांगलां."

"बरें आसा."

अनीलान प्रकाशाचीं लक्षणां पारखिलीं आनी ताणें खऱ्यांनीच वचपाची तयारी केली.

"इतली ताकतिक कित्याक रे?"

"काकी, पणजे मातशें काम आसा."

"मामागेर?"

"ना. पूण वेळ मेळ्ळयार मामागेर वतलों."

"पणजे वता जाल्यार वच मरे." काकीन न्हेसणांक हात पुसले आनी हात फुडें करीत म्हणलें "घे."

"काकी हें कितें? काकान दिल्या."

"काकान दिल्या ते काकाचे. हे काकीचे."

काकीन नोटी ताच्या बोल्सांत चोंदल्यो.

"वन हन्ड्रेड, प्लस फिफ्टी, इज इक्वल टू वन हन्ड्रेड फिफ्टी." प्रकाश अभ्यासाचें सवंग करतालो.

"येतना फोंड्यां देंविल्लो?"

"हय. मावशेगेर गेल्लों."

"कितें दिलें मावशेन?"

"शिरो आनी च्या."

"आनी?"

"पन्नास रुपया."

"घे. हेवूय दवर." काकीन आनीक एक धा रुपयांची नोट ताच्या हातार दवरली.

"वन हन्ड्रेड फिफ्टी प्लस टेन, प्लस फिफ्टी इज इक्वल टू टू-हन्ड्रेड एन्ड टेन." प्रकाशान एका दमांत म्हणलें आनी पुस्तक बंद केलें.

"च्या करूं? भजीं काडटां." काकीन म्हणलें.

"काड." प्रकाशान म्हणलें.

"तूं थंय अभ्यास करता जाल्यार अभ्यास कर." काकी प्रकाशाचेर धेंगशेली.

"काकी वतां."

"वतां न्हय, येतां म्हणप."

"वता जाल्यार येता कित्याक म्हणप?" प्रकाशान मदींच तोंड घातलें.



“परत येवपाक मेळूंक जाय म्हणून येतां म्हणप.” काकीन दोगांकूय समजावणी दिली.

“तशें जाल्यार ताका वतांच म्हणूं दी.” प्रकाशान परती जाप केली.

“पुरो तुजीं शाणेपणां!” काकीन ताका वगी केलो आनी दाराकडेन येवन अनीलाक निरोप दिलो.

“अनील, बस स्टॉपार सिटी बस मेळटली. थंय वचून उबो राव.”

“बरें, काकी.” अनील चलत रावलो.

चलतां चलतां अनील येवजितालो.... काकागेर मारिल्ली फावट खूब फायद्याची पडिल्ली. काकान दोन वाट्यांनी पयशे दिल्ले. आपणाक वेगळे. बापायच्या दुयेंसाक वेगळे. बापायच्या दुयेंसाचें फकत निमित्त. दिल्यार बापूय थोडेच घेता! तेवूय आपणांकूच. काकी कितली मायेस्त? मावशेन पन्नास म्हणनाफुडें आपणें आनीक धा चडयले. फुडले खेप काकीन साठ दिल्ले म्हण मावशेक सांगप. मावशीय फाटीं रावपाक ना. आयच्या एका दिसाक – दीस खंयचो फकत आदेसूच जाला. आयच्या एका आदेसाची जोड कितली जाली? पयलीं मावशेले, मागीर काकाले, मागीर काकीले...

‘टू हन्ड्रेड एन्ड टेन.’ अनीलाक प्रकाशाच्या उतरांची याद जाली. अनील निरशेल्ले भशेन जालो.... काकालो प्रकाश मोटो बंट. अभ्यासाचें निमित्त करून चोरान म्हज्या पयशांचो हिशोब केलो. काका आनी काकी इतलीं बरीं पूण प्रकाश सामको वायट. हो काका-काकीचें नांव इबाडून वडयतलो.

अनील चलत बसस्टॉपाकडेन पावलो. तो भाड्याचे मोटारसायकलीन वचपाक सोदी. पयशांची ताका पर्वा नासली. पूण

ज्युस्त बसस्टॉपार बस थारली. तो बसींत चडलो. बसींत गर्दी. सिटीबस पावला कणकणी थारताली. लोक चडटाले, देंवताले. कंडक्टर तांचेकडल्यान चार–आठ आणे जमयतालो.

अनीलाक मजाच दिसली. भिकाऱ्याच्या हातांत जमतात तशे ह्या कंडक्टराच्या हातांत मोर्डीचे पयशे.

"पयशे–पयशे" गर्देंतल्यान कंडक्टर ताचेम्हऱ्यांत आयलो. अनीलान पयशे भायर काडून दवरलेले. कंडक्टराच्या हातार दवरले. तेसरशीं कंडक्टर तिडकलो.

"पन्नास रुपयांची नोट? मोडचे दी." नोटींकडेन ताणें कींकोंत करून पळयलें. अनीलाकडेन मोडचे पयशे आसले पूण मुद्दामूच ताणें नोट भायर काडिल्ली. 'नोटी दाखयता.' अशें म्हणत कंडक्टर मुखार गेलो. अनीलान मनांत म्हळें. बरी लज जाली कंडक्टराक. हाची जोड चार–आठ आणेंच. म्हज्या पन्नास रुपयांची मोड हाचेकडेन कशी आसतली.

अनील मडगांवच्या बसस्टँडार पावलो. पणजे वचपी बसी ताणें सोदल्यो. थोड्यो फोंडेसावन वताल्यो जाल्यार थोड्यो कुठ्ठाळेसावन. कुठ्ठाळमार्गान वचपी एके बसीर तो चडलो. बसपाक बरो सीट मेळ्ळो. बसलो. बोल्सांत हात घालून ताणें पयशे सांसपिले.

बस चालीक लागली. ताणें भायर पळयलें. शेतांनी लोक वावर करताले.... हांगासरूय शेतां. खरें म्हळ्यार हीं सगळीं शेतांच पुरोवन वडोवपाक जाय. सगळ्या शेतांनी व्हडलीं व्हडलीं बिल्डींगां बांदपाक जाय. मागीर चिखल उरचोना. कोणाक चिखलांत लोळचें पडचेंना.

बस कुठ्ठाळे पावली.

....हांगां देंवून वास्को गेल्यार कशें? पूण वास्को वचपाचें जाल्यार मडगांवांच वास्कोचे बसीर बसपाचें. डायरेक्ट पावतलो आसलों. आनी वास्को वचप कित्याक? सोयऱ्यांभितर कोण वास्को ना. आसल्यार विचार करूं येतालो.

ताणें थारायलें. सांजचो पणजे पावप. जमल्यार रातीकडेन बेतीं मामागेर रावप. नातर बद्द घरा वचप.

अनील पणजे पावलो. सांज जाल्ली. आनीक एका वराभरयान ऑफिसां सुटपाचीं जाल्लीं. पणजेंत व्हडलीशी गर्दी नासली. हांगा थंय टुरिस्ट मात भोंवताले. टूरिस्टाचें एक जोडपें अनीलाक पळोवन थारलें.

"एक्सक्यूज मी, वील यू टेल मी द वे ऑफ मिरामार?" दादल्यान अनीलाक विचारलें.

"कितें?" अनीलान ताका परत विचारलें. मागीर ताका चक्क करून याद जाली. हीं भायलीं भोंवडेकारां. तांकां आमची भास कशी येतली? तांचेकडेन इंग्लीशूच उलोवचें पडलें. त्या दादल्यान आदलींच उतरां परत म्हणलीं. तीं दोगांय मिरामारची वाट विचारता म्हणपाचें आनीलाक समजलें.... हांकां आतां कशें म्हूण सांगू? ताका दिसलें, हांकां सांगून वडोवंचें, आय ॲम नॉट फ्रोम हियर. पूण नाकाच.

आनी मागीर इंग्लीशीनूच तो तांचेकडेन उलोवपाक लागलो.

"यू वॉन्ट टू गो मिरामार. यस् नो?"

"यस्. यस्. मिरामार."

"बीच नो?"

"यस. यस. मिरामार बीच."

" देन डू लायक धीस. फस्ट गो स्टेट. वोके? देन टर्न लेफ्ट.



नोट फुल्ली लेफ्ट. लीटल लेफ्ट. ओके? देन अगेन गो स्टेट. सीधा. ॲन्ड टर्न लेफ्ट. फुल्ली लेफ्ट. ॲन्ड वॉक ॲन्ड वॉक. यू वील गेट मिरामार.''

''थँक्यू! थँक्यू!'' टूरिस्ट जोडपें हांसत हांसत गेलें. अनीलाक खरस लागिल्लेभशेन जाल्लें. पयलेच खेप तो अशेतरेन इंग्लीश उलयिल्लो. ताका त्या टूरिस्ट जोडप्याची मजा दिसली. कवतूकय दिसलें.... ही टूरिस्टांची सर्वीस बरी. भोंव भोंव भोंवपाचें आनी हॉटेलांनी वचून पोटभर खावपाचें.

उगडास जालो तसो तो हॉटेलांत भितर सरलो. भूक नासली. पूण च्या घेयन दिसताली. ताणें एक प्लेट गरमागरम भजीं मागयलीं आनी मागीर च्या.

पणजे येता तेन्ना तो सिनेमा पळोवपाचो यत्न करतालो. सिनेमाक वचपाक जमलें ना जाल्यार थेटराकडेन एक पासयतरी मारून येतालो. आतांय ताणें तशेंच केलें. थेटरावयलो बोर्ड पळोवन ताका

सिनेमा पळयन दिसलो. पूण शक्य नासलें. कारण सांजच्या खेळाक गेल्यार ताका घरा·वचपाक बस मेळची नासली. शिवाय मामाकडेनूय वचपाचें आसलें. दुदाची तान ताकार भागोवची तशें ताणें सिनेमावाट्याचें सिनेमा संगीताचें एक पुस्तक घेतलें. जड पावलांनी तो थेटराकडल्यान भायर सरलो.

"जालें काम?" कोणतरी ताका विचारतालो. ताणें फाटल्यान वळून पळयलें.

"आं?"

"वळखुनां? सकाळीं बशीन आमी एकाच शिटार बसलेले."

सकाळचो जाणटेलो ताका हांसत हांसत सांगतालो.

"हय हय."

"तुवें पणजेची तिकेट काडली."

"हय हय"

"आनी बाणस्तारी देंवलो."

"हय हय."

"परत पणजे कसो पावलो?"

"उडत!"

"काम जालें?"

"सकाळफुडें भलत्या–सलत्याचीं तोंडां पळयतकूच कामां जातात?"

"तूं कोणालो रे?"

"म्हज्या आवय–बापायलो!" अनीलान जाणटेल्याची भीडमुर्वत दवरिनासतना ताका आरत्यो परत्यो जापो दिल्यो. ताच्या मुखावयल्यान तो नीट चलून गेलो. चार पावलां मात मुखार गेला. फुड्यांत कॉलेजच्या भुरग्यांचो मेळ. त्या मेळांत तागेल्या गांवचे सकाळचे

दोग चोग जाण भुरगे.

"ए अनील, तूं पावलो मरे पणजे." एकलो.

"कॉलेज सुटली?" दुसरो.

अनीलान तांकां जाप दिनासतना कूस मारली. वाटूच बदल्ली. तो बेजारलो.

... पाड पडूं! हे पणजेंत भोंवपासारकें ना. सगळे आलमपेड्डयार आनी कुचित्री! आतां बस धरप आनी नीट घरा वचप अशें ताणें थारायलें. पूण मागीर तोवूय बेत बदल्लो. कारण ताका नाका आशिल्ले हेच लोक ते बसींत मेळटले आसले. .... निमाणी बस सगळ्यांत बरी. कोणाची कटकट ना. आनी बेगीन पावून कितें दिवे लावपाचे ना!

मामांची गॅरेज पणजे कडेकशी आसा. अनीलाक तें समाधान. नाजाल्यार ताका लजेक म्हारग पडपाचें. हरशीं तो कोणाकूय नेटान सांगतालो, 'मामाची गॅरेज आसा! पूण गॅरेज कसली तें ताकाच खबर आसलें. गॅरेज म्हळ्यार घराची एक कूड. थंय मामा मोडक्यो सायकली सारक्यो करतालो. स्टॉव, पेत्रोलमॅक्स तसलेंय सारकें करतालो. लोकांच्या ह्या मोडक्या वस्तूंचो दाळ कशाय कसो पडिल्लो आसतालो. केन्नाय पळयल्यार तो तसोच आसतालो. मामा दीसभर थंय काम करतालो. मामाच्या हातापांयांक घस आनी ऑयल लागताली. मामाचें रूपूच बदलतालें.

अनील आतां मामाले गॅरेजींत पावलो तेन्ना मामा तेच अवस्थेंत आसलो. एके सायकलीकडेन तो झुजतालो. म्हळ्यार तिका उबी करपाचो यत्न करतालो. अनीलाक पळयनाबरोबर तो ते अवस्थेंतूय हांसलो. मामान नदरेची कुरू करून ताका तामरेतीर बसपाक सांगलें. अनीलान पेंट वयर काडली. थंयच एक कागदाकुडको

घेवन तामरेत पुसली आनी बसलो. इतल्यान एक गिरायक आयलें,

"आरे म्हजो स्टोव सारको जालो?"

"जालो पात्रांव, फाल्यां व्हर."

"जालो जाल्यार फाल्यां कित्याक? आतांच व्हरतां."

"ना पात्रांव, मातशें पंपाचें व्हायसर बसोवपाचें उरलां. फाल्यां."

"सदांच फाल्यां." गिरायक वाजेवन गेलें.

"म्हजो एक हात खंय म्हणून पावतलो? हो श्रीकांत मात लागीं रावना. आयज गेम. फाल्यां टूर्नमिंट. चालूच आसा." मामा ताका आपणाल्या चल्याची श्रीकांताची कागाळ सांगतालो.

"श्रीकांत खंय?"

"तेंच सांगतां न्हय. टूर्नमिंट काय फूर्नमिंट." मामा वितरागलो.

"अऩील, हांव कितें म्हणटालों जाणां–" मामा मुखार सांगपाक सोदी. इतल्यान आनीक एक गिरायक आयलें.

"आरे, त्या पेत्रोलमॅक्साचें कितें जालें?"

"पात्रांव, फाऴ्यां व्हर."

"आयजूय फाल्यां? आठ दिसांनी आयलां हांव. आरे, पऱवां देवळाकडेन सप्ताह. ऐन वेळार लायट वता तेन्ना पेत्रोलमॅक्स लागता."

"हय. लायटीक पडल्या पाड."

"केन्ना दिता?"

"फाल्यां. कितें आसा पात्रांव, आतां पेत्रोलमॅक्स कोण वापरिना न्हय. ताचे पार्ट सारके मेळना. फाल्यां हाडटां आनी बसयतां. मागीर सप्तकाक वापरात आनी चवथिकूय वापरात."

गिरायक तोंड वांकडें करीत गेलें. मामान आसा तशें अनीलाचेर लक्ष दिलें.



"जाणां अनील ही विद्या वायट न्हय."

"कसली विद्या?" अनीलान हेवटेन तेवटेन पळयत विचारलें.

"ही माकनां सारकी करपाची."

"मामा, बेगीन वचपाक जाय. बस चुकतली." अनील ताकतिकेन तामरेतीवयलो उठलो.

"मार्गार घरा वचपाक कळाव कित्याक केलो तर?"

"घराच वतालों. आईन सांगलेलें येतना याद्दीन मामाक मेळून यो."

"बरें केलें."

"बरी नासलेली मातशी."

"दोतोराक दाखोवपाची."

"आवय तशेंच म्हणटाली."

"पयशांची अडचण मरे? तिचो भाव जितो आसा अजून."

"आवय तशेंच म्हणटाली."

"राव, हात धुतां."

"आसूं, आसूं मामा."

"कितें आसूं रे?"

"धूय धूय." अनीलाक कडसरपाची ताकतीक आसली. बस चुकपाचो हुस्को नासलो. पूण मामा परत ते विद्येचो विशय काडीत म्हण तो भियेल्लो. इतल्यान एकलो तरणाटो आयलो आनी गॅरेजीमुखार उबो रावलो. मुखावयल्या अनीलाकूच ताणें विचारलें.

"सायकल जाली?"

"सायकल, खंयची सायकल?" आंगार पाल पडिल्लेभशेन अनील कांचवेलो.

"खंयची सायकल म्हणचे? म्हजी सायकल." तो धेंगसलो.

"आरे तो म्हजो भाचो. ही सायकल तुजी." मामान ताका थातारलो.

"सायकल जाली?"

"हात घातला."

"हात घातला? दोन पावटी मारल्यो मरे हांवें."

"ही पळय उसयल्या. आत्तां दितां. हो म्हजो भाचो."

"तुजो भाचो आनी तूं मामा गेले तेल लायत. म्हजी सायकल सारकी करून दी पयलीं." दोशीवशीं पेन्टीच्या बोल्सांत हात घालीत ताणें मामाक फर्मायलें. "दितां. असो पासय मारून यो."

मामान ताका बाबा पुता करून समजायलो. तेसरशीं तो मातसो नरम पडलो. आनी मामा खऱ्यांनीच ताची सायकल उसोवन ताचें काम करूंक लागलो. त्या तरणाट्याचे वागणुकेन अनीलाक खालतेपण भोगलें, पूण मामाक कांय दिसलेंना. मामाक असल्यो गजाली सदच्योच जाल्ल्यो.

मामान हात धुवपाचो विचार सोडलो. ऑयलीचो हात तसोच कालसांवाच्या बोल्सांत घातलो. नोटी भायर काडल्यों. त्यो खोल्यांचो कवळो कश्यो जाल्ल्यो. तातूंतल्यो कांय नोटी ताणें दुसऱ्या हाताचे चिमटेन काडल्यो. एक दोन तीन चार पांच... सगळे मेळून पावूणशीं रुपया आसले.

"वीस पंचवीस तुका दवर." मामान म्हणलें.

"आं." अशें म्हणत अनील थंयसावन सटकलो.

अनीलान सगळ्यो नोटी मुठींत धरिल्ल्यो. मामाचे नदरेआड जातकूच ताणें त्यो बऱ्यो पुसल्यो आनी मागीरूच बोल्सांत घातल्यो. कारण तांकां ऑयल आनी घस लागिल्ली.

ताणें मनांत म्हणलें,.... कामूय जालें आनी बऱ्यान सुटलों. मामा हरशीं सभावान बरो. पूण... मावशाभशेन हाचोय दोळो म्हज्या बेकारपणाचेर. मावसो भाजयेच्या गाड्यार दवरपाक सोदता जाल्यार मामा मॅकानीकपण करपाक फुसलायता. गांवांतल्या शेतांतल्या चिखलाक विटलां तो हांगा ऑयलींत आनी घशींत हात घालूं? शींस्स! दुसरे फावट मामान विशय काडल्यार मामाक वगों रावप ना. सरळ विचारप. म्हाका कित्याक शिकयता ही विद्या? शिकय तुगेल्या श्रीकांताक. ताका कित्याक धाडटा कॉलेजाक आनी टूर्नामेंटाक? पूण मामा म्हजे इत्से आड कितेंच करचोना इतलें खरें. तसो मामा आनी मावशामदीं फरक आसाच.

तो सवकासायेन बसस्टॅंडावटेन वतालो. ताच्याच गांवचे लोक, आदली बस मेळोवपाखातीर धांवताले.... धांवात, धांवात. सकाळीं पणजे वचपाक धांवतात. सांजचे घरा येवपाक धांवतात. म्हाका कसली ताकतीक ना. तसो दीस उणोच पडलो. नातर म्हापशां वचून येवं येतालें. खूब तेंप जालो आत्याची खबर ना. आतें गरीब

खरें पूण तशें म्हाका वायट करीना.

वाटेवयल्या पसऱ्यार ताणें एक टूथब्रश घेतलो. एक पेस्टूय घेतली.... सदां सदां ती राखोणी लावन कितें तोंड धुतलों? आनी वयल्यान लजशी!

आनीक कांय ताणें विकतें घेतलें ना. बापायच्या उतरांचो ताका उगडास जालो.

"आमचेखातीर कांय नाका. तुज्या जिवाक मोड. आमकां पावलें."

तो पणजे बसस्टँडार पावलो. लोकांची गर्दी उणी जाल्ली. ताच्या गांवची निमणी बस सुटपाक बरोच कळाव आसलो. बस स्टँडाक लागिल्ली. तो चडलो. सादारण मदल्या सिटार जनेलाकडेन बसलो. येवजुपाक लागलो.

... सगळ्या सोयऱ्यांचो म्हजेर मोग आसा हें खरें. घडये हांव आवय-बापायलो एकलोच पूत म्हूण जावंये. जावंये कित्याक तेचखातीर. हांव खंय खूब नवस-आंगवणीनीं जालां. म्हजे सटयेक



खंय सगळीं सोयरीं–धायरीं झाडून म्हणटा तशीं आयिल्लीं. हांव जगचो म्हणून खंय सगळीं हातपांय धाडावन सटयेदेवीक पराथतालीं. हांचे सगळयांचे आशिर्वाद आसतना म्हाका कितें जाता? खरें म्हळयार हांव मावशेगेर नाजाल्यार कार्कागेरबा जल्मांक येवपाचो. बरे लाड जातले आसले. रूचींचें खाण–जेवण आनी सुंदर सुंदर कपडे घालपाक मेळटले आसले.

"हांगा कोण बसला?" अनीलाक कोण एकलो विचारतालो. तो भानार आयलो. "ना." ताणें जाप दिली. तेसरशीं तो मनीस बसलो.

बस सुटपाची जाली. सामानसुमान घेवपाक फाटीं राविल्ले कांय ऑफिसाचे लोक बसींत चडिल्ले. तांच्या हातांतले जेवणाचे रिते डबे खडखडटाले.

....म्हाका सर्विस आनी म्हण कित्याक जाय? आनी सर्विस मेळपाक आयल्या? बरे बरे शिकिल्ल्यांक मेळना. तेचखातीर शिकूनय उपेग ना. आपले हेच धंदे बरे. आठ–पंदरा दिसांनी अशी ऽ ऽ एक भोंवडी मारपाची. तिनसांज जातासर – आनी मागीर तो आपल्याक मेळिल्ल्या पयशांचो हिशोब करपाक लागलो. सुमार तीनशीं रुपयांची जोड जाल्ली.

.... व्हडल्या ऑफिसराकूय दिसाक इतले मेळचेना. होच धंदो बरो. आवयबापायक मात कळपाक जायना. आनी तांकां भोव कळपाक आयलां! शेतांतलो चिखोल सोडून तीं खंय वता भोंवपाक? आनी आमगेर तरी कोण येता कोणाचे चवकशेक? जो तो आपणाल्या कामधंद्याफाटल्यान आसा.

"रायबंदरा ऽ ऽ रायबंदरा." कंडक्टर आड्‌डलो. बस सुटून रायबंदरा पाविल्ली.

"ए, आनीक चार आणे दी."

"आनीक चार आणे खंयचे? तितलेच दिता मरे आमी."

"हेखातीर आमी मदले पेसेंजर घेयना. चार आण्यांक खार." कंडक्टर रायबंदरा देंवपी पेसेंजरांकडेन हुज्जत घालतालो. अनीलाक तांची काकुळट दिसली.... दोगांचेंय भोंगू! हो चार आणे मागता म्हण हाचें भोंगू आनी तो चार आणे सोडिना म्हण ताचें भोंगू. दोगूय फोंडेच्या मावशाचे भाव!

मागीर तो परतून आपणाले जोडिविशीं येवजूपाक लागलो. .... आयची बोंडी बरी जाली. पूण तशें चुकलेंच. पयलीं मावशेक कांयच निमित्त सांगलें ना. पयल्याच फाराक आवयक दुयेंत वडोवपाची. मावशेगेर चड झडपाचें. फुडले खेप तशें करप. सकाळफुडें बाणस्तारी पावप, तीच बस धरप. नारायण कंडक्टर आसा ती. आनी दिसूय फोंडेच्या बाजाराचो वेंचून काडप. तशें जाल्यार बाजाराक आयिल्लो अत्माय मेळूं येता. पूण मातशी ताकतीक करप. खाणाजेवणाखातीर वेळ चड वता. मागीर म्हापशां उरता.

'तिकेट.' कंडक्टर ताचे म्हऱ्यांत आयलो. ताणें तिकेट काडली. खंड पडिल्लें चिंतप परत सुरू जालें.

...मात एक. सदांच तींच तींच निमतां चलचींना. कांय गरजो तयार करच्यो पडटल्यो. सोयरीं म्हण कित्याक वर्गीच पयशे दितलीं? शेताच्या वेळार शेत रोवपाखातीर पयशे मागल्यार कशें? मागीर शेताक सारें हाडपाखातीर मागूं येता. गिमाच्या दिसांनीं घर सारकें करपाच्या निमतान पयशे मागूं येता. तशी मातशी तकली चलयल्यार नव्यो नव्यो गरजो फुडें करूं येता.

"बाणस्तारी ऽ ऽ बाणस्तारी." कंडक्टराचे पिल्लुकेबरोबर बस बाणस्तारी थारली.

... चल, एक भोंवताडो पुराय जालो. हे बसींत इतले पेसेंजर आसा. आज म्हजे इतलें कोणें जोडलां आसतलें काय!

ताच्या फाटल्यान सिटार बशिल्ले दोग जाण उलयताले.

“हे शिर्विसेंत कांय अर्थ ना.”

“बरोबर. फकत शिर्विसेक आसा म्हण सांगपाक मेळटा.”

“अर्दी जोड ह्या बसीनीं खाल्ली मरे.”

“हांगेल्यो तिकेटी वाडटा. तितलो पगार खंय वाडटा?”

“आरे, मनशाक दिसाक एक पन्नास रुपये तरी सुटपाक नाका?”

“सुट्टा तांकां सुट्टा. शंबरूय सुट्टा.”

शंबर कित्याक दिसाक तीनशीं रुपया पासून सुटपी मनीस आसा. अनीलान तांचें उलोवणें आयकून आपणेंच म्हणलें आनी आपले आपूण तो भुरकटलो.

“ए शिळोणेकार देंव मरे. पावलो.” कंडक्टरान ताका जाग हाडली.

“राव राव देंवता.” अनील सडसर्डीत देंवलो.

काळोख जाल्लो. पूण वाट ताचे संवकळीची आसली. हरशीं घराकडेन वतना तो उबगतालो. रात जायसर तो हांगाथंय गणयतालो. पूण आयज तो नीट घराकडेन गेलो.

घरांत सदचेसारकी जाग माग नासली. जाग आसली ती फकत बापायचे खोंकलेची. तो भितर सरनाफुडें आवयक सू ऽ ऽ जालें.

“कितलो कळाव केलो रे? हुस्को जालो.”

“हुस्को कित्याक?”

“कित्याक म्हणजे? आवयचें काळीज. पयलीं न्हाता काय जेवता?”

“उदक तापयलां?”

“हय. केन्ना तापोवन दवरलां.”

“पयलीं न्हातां.”

अनीलान पेंट खोमीस काडलें. पेंट वेवस्थीत दवरली आनी तो न्हावपाक गेलो.

“बेगीन न्हा. भूक लागल्या आसतली. हुनहुनीत जेव. दनपारां जेविल्लो काय उपाशी आसा देवाक खबर.”

आवयन ताटांत हुनहुनीत उकडें शीत वाडलें. ताचेर रोस वाडलो.

“दादी जेवलो?” अनीलान विचारलें. भायर तें दादीनूय आयकलें. आवय आनी बापूय दोगांकय बरें दिसलें.

“तूं जेवतकूच मागीर जेवतलो.” आवयन जाप दिली आनी ती ताच्या मुखार बसली.

“शिर्विसेचें खंय जालां? वर्गीच विचाल्लें रे. नाजाल्यार सकाळचीच जाप परत दियशी.”

“तें कितें पिकलेलें शेत? वचपाचें आनी लुंवून हाडपाचें?” अनीलान आपलींच सकाळचीं उतरां आपणें म्हळीं आनी तो हांसलो.

“हांसतासो? घे, सारको जेव.” आवयन शिताचो दवलो घसघशीत ताटांत रकयलो.

अनील तसोच हांसत उश्ट्या हातांनी उठलो.

“आरे, जेवणावयलो उठलो कित्याक?”

अनीलान पेंटीच्या बोल्सांत दावो हात घातलो आनी एक नोट भायर काडली. बारीकसाणेन पळयली.

“घे.”

“हें कितें?”

"वळखुपाक कळना? आयच्या दिसाची तुज्या पुताची जोड." ताणें नोट आवयच्या हातार दवरली आनी तो परत जेवपाक बसलो.

"पन्नास रुपया?" आवयची खोस वल्लेंतूय धरना आनी सुपांतूय धरना अशी जाली. तीं नोट घेवन तशीच घांवा म्हऱ्यांत गेली. तो खोंकीत आसलो.

"खोंकता कितें? पुताची करामत पळयल्या?"

"कसली करामत?"

"हो कामाक लागलो. पळय न्हय. हाणें पन्नास रुपया जोडल्या. अख्ख्या वाड्यार इतले कोणूच जोडपाक पावचो ना. घे."

"म्हजेकडेन कित्याक?"

"कित्याक? पुताचे जोडींचे. घे."

आवयन पन्नास रुपया बापायकडेन दिले. बापूय खीणभर खोंकपाचें विसरलो. ताचें हड्‌डें अभिमानान फुलून आयलें. तो तसोच उठलो.



भितरल्या दारा म्हऱ्यांत आयलो. जेवपाक बशिल्ल्या अनीलाक पळोवन ताणें म्हणलें,

"शाब्बास पुता, शाब्बास! पन्नास रुपया न्हय, पन्नास पयशे जरी तुवें जोडून हाडलेले जाल्यार ते आमकां लाख मोलाचे. मनशान चार पयशे जायना, जोडचे. पूण स्वकश्टाचे. हरामाचे मेळोवंचे न्हय. दुसऱ्यांच्या फुड्यांत केन्ना भिकारी जावन हात पसरचो न्हय. हांव इतलो गरीब, दळिद्री पूण केन्ना हालल्लो ना. आमचीं सोयरीं-धायरीं इतलीं बरीं आसात. तुजो चुलतो आसा, मामा आसा, मावसो आसा, पूण एक दीस केन्ना कोणाच्या दारांत गेलो ना. कोणामुखार हात फाफुडलो ना." एका दमान बापूय उलयलो. ताका आतां खरस आयली. तरी लेगीत ताणें मुखार म्हणलें,

"आतां हांव केन्नाय मेल्यार जाता. म्हजो पूत आपणाल्या पांयाचेर उबो रावलो. खूब जालें. शाब्बास, पुता शाब्बास!" आनी मागीर बापूय आंतकड्यो तुटसर खोंकीत रावलो.

तोंडांत घेतिल्ली उंडी तशीच अनीलाच्या ताळ्याकडेन आडखळ्ळी. ताका खूब खंत जाली. जेवतां जेवतांच तो रडूंक लागलो. हुंडक्या हुंडक्यांनी.

आवयचेर आकांत आयलो. बापुयूय भियेलो. कितें करचें तांकां कांयच कळना जालें.

अनील तसोच उठलो. पेंटीच्या आनी खोमसाच्या बोल्सांत हात घालून ताणें सगळे पयशे भायर काडले. आवय आनी बापायमुखार हाडून वडयले.

"हे पयशे म्हजे जोडीचे न्हय. हरामाचे. म्हाका ते नाका. तुमीय हात लावं नाका. हांव फाल्यांच्यान जोडूंक लागतलों. म्हज्या कश्टांचे

पयशे हाडटलों. तुमकां पोसतलों.'' आनी अनील धळधळ्यां रडपाक लागलो.

आवय आनी बापायक ताचे करणेचो अर्थ लागलो ना. तीं दोगांय घुस्पलीं पूण तांकां दोगांकूय इतलेंच कळ्ळें, आपलो पूत शाणो जालो.

*

# पुंडलीक नारायण नायक

हांगेली

भुरग्यांखातीर बरपावळ

**रानसुंदरी**
एकांकी

**आळशांक वाग खातलो**
एकांकी

**शिंवाचो बळी**
एकांकी

**गोंयचो पावस**
निबंद

**मनू**
नवलिका

**बेकार भोंवडेकार**
नवलिका

**गौरी आनी कल्परूख**
बालकथा

**छूम् छूम् घुंगरी**
कविता-गीतां